# रंगोली

(कविता-संग्रह)

डा. एल. सुनीता बाय

२०१७

# RANGOLI

(Konkani Poetry Collection)
by Dr. L. Suneetha Bai



२०१७

उजवाडावपी : **Dr. L. Suneetha Bai**, Retd. Professor,
Adhikarathil, PRA 52,
C. P. Ummer Road, Kochi - 682 035
Phone : 98460 48428

Copies : **500 Nos.**

अक्षरजुळणी आनी कव्हर : **Sreyas Computer Centre,**
South Cherlai, Kochi-682002

मुद्रण : **Vasant Industries,**
Town Hall Road, Kochi - 682002

मोल : रु. 100/-

# दोन उतरां

रंगोली म्हज्या इश्टाची. मनांत सुख भोगपाची. संस्कृतायेचो परिचय दिवपी. भिन्न भिन्न तरेकवार विशयांचे पयस जावपी पोरण्या मूल्यांचे मुखार हाडपाचे खातीर आशिल्ली सुचोवणी. हांत जंय थंय पोरणे आनी नवे चलणुकेची तुऴा करून पोरण्या परंपरेचें महत्व दाखोवपाचो प्रयत्न.

रंगोऴी संग्रहांत म्हजे गहन अणभवांचे चित्रण जाल्यां. मनांतले क्षोभ, त्रास, आनी निरशेणी कविताचे वाटेन हांगा चित्रण करपाचो प्रयत्न जाला. ल्हान व्हड सगळेच आपले आपले वाटेन मुखार सरतात. सैमाची तरेकतराची जीवावळी आनी झाडापेडां आपलें महत्व घेवन आसात.

मनीशधर्म आनी मनीशकाय जिणेचो उजवाड. हो उजवाड आचरणान जाता. ह्या आचरणाचें नांव सदाचरण. पोरण्या काळाक हेंच महत्व आशिलें . हें आचरण धर्माची आनी संपन्नतायेची रक्षा करतालें. भारत पोरण्या काळाक थाकून देश विदेशाचो संबंद आनी संस्कृतायेक राखून मुखार सरला. आमी भारताचे प्राचीन भूमीचेर बहुरंगी संस्कृताय घेवन रावता आयलीं. जें जें नवें मेळटा ताका आत्मसात करून आमचो देश मुखार गेला. अनेकानेक संस्कृतायों का मेळ आमचे संस्कृतायेंत आसता. एकमेकाक सहाय करप, होच मनीश धर्म . भारतांत हाचें पालन - परोपकारार्थमिदं शरीरम् - नवे युगांत हे धर्माक कांय मोलना. मनशाक आतां मान ना, महत्व ना. जाची शक्त आसता तो व्होडलो आसता. जाचे हातांत दुड्डू आसता तो जिणेचेर शासन करता. तो परंपरेचो घात करता. जंय मूल्य ना मनशाच्या स्वार्थाक लागून हारावण, फटवण, मारामारी जावंच्या कालाक

स्वार्थाक लागून दुसर्या लागी झगडें करच्या कालाक ताची रक्षा सैम आनी देव मात्र करता. हें सत्य कविता-संग्रहांत आयल्यां.सह्रदय पाठक हें स्वीकार करतले म्हूण हांव आशा करतां.

हें पुस्तक तयार करपाक म्हाका सहाय दिल्लेल्या म्हज्या मोगी घोवाक हांव हांगा स्मरण करतां.

हो कविता संग्रह तेन्ना तयार केला जेन्ना हांव अनुग्रह नांवाचे वरिश्ठ नागरिकंची सुवात एरणाकुळमांत रावतालीं. ह्या प्रतिश्ठानाचे अधिकारी वर्गाचें प्रसन्न मनाचे उपकाराचें स्मरण करतां.

कोच्ची
३०-६-२०१७ **डा. एल. सुनीता बाय**



## मांडावळ

## कोची वेंकटपती

देव देव दयानिधे
राख म्हाका कृपानिधे
कोचिचे वेंकटपती
सग्ग पाप निवारण करचे
गोश्री वेंकटपते
तुमका सहस्र नमोनम
भांगरा कळशांत काणूक घालून
सास भर जन येता पायां कडे
दी देवा चांग बुद्धि
दया करून पांव आमकां
आमचे जिभेर तुजें नांव
वेंकटपते वा वेंकटेश्वर
जे आमचे मानीत आसा
वर्सा १४७२ विजयनगरांत
जालो नाश देवळाचो
कुंभकोण माधवाचार्यान
बिंब कोची पावयलें.
देवऴ वेंकटेश्वराचें
गोश्रीपुरांत नाश केलो पुर्तगीजानी
देवाची रक्षा केली डच शासकानी
देवळ बंदून दुसरी प्रतिष्ठा संपन्न जाली

शक्तन तंपुरान हाणी
देवाचें रक्षण करचे लोकाचें मरदन केलें
बिंब कोची थाकून अल्पळें व्हेलें
देवालो वास साठ वर्सांक रावलो
अल्पळेच्या जनांक, जालो संपन्न करपाक
वर्सा १८५३ तें कोची पावलें
देवळांत जावंची वेंकटेश्वराची पूजा
सामान्य लोकाक आनंदाची जाली
करुणा भरिल्ले गुरून
दिलें लोकाक कटाक्ष
सरसीरुहपत्रनेत्रान अवलोकन केलें
जाच्या पयांचेर पडून
लोकमंगल मागता त्या
गोश्रीपुर वेंकटपतेक नमो नम
भक्तांक मोचन करपांत संपन्न
श्री वेंकटेशाक नमो नम
कलीच्या बलान आसूनय
जे वेंकटेशाची कृपादिश्टीन
संत धर्मशील आसतात
त्या वेंकटेशाक नमो नम
फुलले केसर,चंपें पारिजात हांचे
परम सुगंधित वारें मंद
त्या वेंकटपते नमो नम

भक्तीन त्याच्या पायांकडे
निरंतर गायन करतात आमी
हे वेंकटपते तिरुमलदेवा कोचीच्या
आपले देवस्वम देवळांत
जातिभेद नाच धर्म सग्ग एकच
वेंकटपतील्या दरबारांत हिंदू आसता
तांचे देवळ संस्कृतायेचो
एक सामाजीक, धार्मिक संस्थो.
ह्या स्थापनांत गोंयची, मंगळूराची
आनीं केरलाचीं जनां आसतात.
वेंकटेश्वर देवाली उत्सव पद्धती
देवाचे बिंबाचें अवभृत स्नान
बिंबाची पूजा आनी आराट
दुसरे उत्सव, आराटाचे संबंधीत
सग्ग दिसांचे सकाळीं आनी सांजे जात्रा
वज्रान सिंगारले भांगराचे पालकेंत जाता
तेन्ना देवाक भोंवडेक व्हरतात
आनंदित देव दया दाखयता
सातवें दीसा मृगयेक आनी
आठवे दीसा आराट जाता
कार्तिक पौर्णमी, अनंत चतुर्दशी,
उत्थानद्वादशी वैशाखपूर्णिमा
अक्षयतृतीया, दिवाळी, अन्य उत्सव मनवतात

अशें कोचीचे वेंकटपती सुख भोगता
महानवमीचे दिसा रथावयली भोंवंडी
देवाकूय लोकाकूय संतोखाची.
वेंकटेश्वर मन विसकळ करून
भक्तांक आनंद, संपन्नता आनी सुख दिता.



# दांपत्य-पूजा

बायल घोवाचो संबंद दांपत्य आसता
तो हारसो जशें आसता.
केन्ना केन्ना शक्तीन मारल्यार तो फुटता
फुटून वचो  दांपत्य संबंद केन्ना केन्ना एकडे जाता
आसा गांव कोडुंगल्लूराचो तिरुवंचिक्कुळम जाचें नांव
देवळ महादेवाचें प्रसिद्ध आसा
केरळाचे तिरुपति जशें हें मानवता.
सुमार पंचवीस देवांचें अस्तित्व हें दाखयता.
हांगा एक बुद्ध-प्रतिमा आसा म्हूण लोक सांगता
करात दांपत्यपूजा तिरुवंचिक्कुळमांत
दांपत्याक दृढता मेळोवपाचें कार्य करात
शंखाभिषेक तिरुवंचिक्कुळमाची मुखेल पूजा
पोरणी दांपत्यपूजेचें परिष्कृत रूप आज मेळता
घोवाचें वागणे तरेकवार आसता.
तें स्त्री-भाग्याचें अपूरबायेचें आसता.
बायलांची निंदा करून हसपाचें  आसता
खंचय घोव इश्टिणीक सांगता, तुजे मुखामळ
चंद्रिमा जशें सोभीत आसता.
खरेंच तो बायलेक पिडटात आनी सांगता
की बायलांक कितले त्रास जाता
बायलांचो जल्म कश्ट काडूक जाता

बायलांचे दुखांत तो हुडक्यानी रडटा.
कांय केन्ना तो भेरो जाता, तरिकूय
बायल-घोवाचे संबंद मोगाचे आसतात.
ह्या संबंदाक शक्त दिवंचाक
दांपत्य-पूजा सहाय करता.



## मृत्युंजय

मत्युं जयती, अनश्वर उडगास
मानव मरता  इतिहास उरता
तो तांत लीन जाता, तुमचो उडगास करता
अंतिम शरण जालें शरीराचें, माथें आनी
पायांचेर हात दवरून
मृत्युंजय शक्त दाखयता
ताची शक्त अपणाली मानवता
मनुष्य प्रार्थनेंत लीन, चंदनाचो सुगंध,शेळ वारें
अनश्वर ज्ञान,हाचे लागी आसता.



## विजयादशमी

प्रज्ञा आनी बुद्धि जंय एक्कड जाता
थंय विजयदशमी का उत्सव एता
ज्ञान  हाचे पांवडें दोन, एक प्रज्ञा,दूसरी भौतिकताय
जंय जाता प्रज्ञा आत्माची, थंय जाता बुद्धी
भौतिक संपत्तीची
पुण्य व्रतानुष्ठान तें अतीव सूक्ष्म
(कबीर सूशिम सुरती का जीवन जाने जाल)
ज्ञानभावना ती विकारांचे समन्वयाची
वीणा संगीताचीं , पुस्तक ज्ञानाची,
आनी कलेची दित्ता संकेत
तीच (वीणावरदंडमंडितकरा)
(माणिक्यवीणा मंजुळ वाग्विलासा),
बुद्धि ती विलासाची, संपन्नता आनी विकासाची
हाचो समन्वय विजयादशमी
आलस्य, विसरप, अरुची हें ना करप
विजयदशमी - पूजा
वीणा नातिल्ली सरस्वती जशें,
पिलूक नातिल्लो कृष्ण जशें
आयुधहीन दुर्गा जशें,
सुवर्णकुंभ नाशिल्ले लक्ष्मी जशें,
शंख ,चक्र, गदा,पद्म नाशिल्ले विष्णु जशें
विजयादशमी पूजा नाशिल्लीं प्रज्ञा आनी
विद्यारंभ.



# दिवाळी

पांच हजार वर्सांचे पयले
धरती आशिल्ली खूब फलवंत
देव जल्म घेताले ताचेर
तेन्ना कलियुगाचें अंत आयलें
दोन युग एक जाले, तेन्ना जाले एकमेळ
आत्मा आनी परमात्माचो काल शुभ असतालो.
धरतरेचेर खरी दिवाळी आसताली.
ताचें उपरांत फकत याद म्हणून
दिवाळी मनयतात.
नरकासुराचें भूत जावन फांतोडेर दिवाळी जाता.
दिवाळी मनयतलो लोक तांचातलो विकास घेता
विचारांचेर जैत जोडता
दर वर्सा मनयता लोक, देवांची ही दिवाळी
रोग, दुख,अशांती,भ्रश्टाचार
कोर्ट, कचेरी, सग्ग पयस आसता
सूणो माजर एकाच वेळार
वाटींत दूद पियेता
हें आपलेपण सर्वत्र आसता.
उपरांत सगळे गजालीक गिरण लागलें
आनी विकार सब मुखार आयले
शिकारीची बाधा आयली,

दिवाळेचे बरे विचार ना करपाक.

दिवाळेचो आचार आमचो

नरकासुर वध, ताचे प्राधान्य सांगता.



# तुळस

तुळस आमची भूंय
आमचे संस्कृतायेची आवय
कलात्मक आनी महत्वपूर्ण कुरु दिवंची
आर्थिक उदरगत दिवंची
हांत आयली लोक-संस्कृताय
दर एक दारांत तुळस वाडका
हो हिंदू संस्कृतायेचो निश्चय.
तुळसेचें लग्न दिवाळेचो
भाग म्हूण मानवतात
तुळसेचें लग्न विष्णुचें कडेन लायतात
तुळसे कडेन एक ल्हान तुळस
व्हकले कुशीक ल्हान व्हळ जशें.
आरती पेटवप धरचे सवासिणीनी व्होंटी भरप
तशें वैदीक पद्धतीन तुळसीची पूजा करून
लग्न संपन्न जाता.
फोवाचो नैवेद्य स्वादिश्ट जाता.
पुराणकथा आनी लोककथा तुळसेचे संबंदान मेळटा.
स्त्री पतिव्रताची,
स्त्री तत्व आनी पुरुशतत्वाचो संयोग
भुंयचें सृजन.

## दिंडी महोत्सव

गोंयची संस्कृताय खास दर्जेची.
मडगांवांचो दिंडी महोत्सव सेवेचो व्हडलो भाग.
सगळो मडगांव उत्सवाचो वांटेकार आसता
दिंडी परंपरा पोरण्या कालाक वारकारी संप्रदायान शुरू केला
अनेक कलाकार ह्या उत्सवांत भाग घेतात
सगळ्यांक आपणी कला दाखोवंचाक संद मेळता
दिंडि म्हळ्यार ताचो महोत्सव
हाका राज्य महोत्सवाचो दर्जो आसता
ही गजाल अधिक पयस न्हय
मेहंदी रेखाटन उत्सवाची प्रमुख सर्त
दिवली पेटोवन उत्सवाची उक्तावण जाता
आनी तरेकवार कार्यावळ आसता



# रंगोळी

रंगोळी आमचे संस्कृतायेंत महत्वाची
ताची  कला खूब पोरणी
संस्कृताय ताची वळख.
दर काणूक मनवता
धर्माचरणांत रंगोळीचें महत्व आसा
चित्रकलाचे, मूर्तिकलाचे परस व्हड
रंगोळीचे संबंदान, विस्मृती विर्गळून
शांत शांत जावन जळता
अनंतातायेच्या विचारांत पडून
जळता दिवो
धर्म-संबंदी उत्सवांक
रंगोळीचो प्रयोग अनिवार्य
रंगोळी पळयता तेन्ना
खूब प्रसन्नताय जाता.



# काजुले

काजुले, अद्‌भुत जीवी
अजाप ताची शक्त प्रकार विस्ताराची
वीजेची ना आवश्यकताय
न ही विजेच्या बटनाची.
रातीच्या काळ्खांत
हाचो प्रकाश आसा संतोख दिवपाक
विजेच्या दिव्या परस सहाय दिता
काजुल्याचो प्रकाश मोगीक आकर्षण दिवंचो
हीची शास्त्रोक्ती
काजुले दोन तराचे
दादल्या परस बायल खूब प्रकाश दिता
काजुल्याक प्रकाश आसता तर हुनसाण ना
हीच म्हणी.
काजुल्याक पोटांत भितरच्यान दिवो जळता



# भक्ती आनी ज्ञान

देवाचेर मोग भक्ती
भक्तीचे रूप अनेक
आहार, भूख, जल, जात्रा,संगीत,मकान
प्रवृत्ती, मनुष्य , चर्चा
जिणेंत हे रूप भक्तीचे
शरीराचे भिन्न भिन्न शक्ति-प्रदर्शक रूप
प्रसाद, उपवास तीर्थयात्रा,
कीर्तन, देवळ, सेवा, पुण्यपुरुष, सत्संग
गंगा, यमुना, सरस्वती
तीर्थ मनुष्य शरीरांत इडा, पिंगला,सुषुम्ना
हांचो संबंद दाखयता, देवालो आनी मनुश्यालो
भक्तिचो मुख्य आधार त्याग
उपवास, धार्मिक भूख आनी आहाराचो त्याग
जेन्ना मनुष्य मागता तेन्ना तो मरता
भूख असनूय दुसर्यांक खाण दिवपाचो त्याग,
त्याग आनंद आसता हो देव आसता
त्याग म्हळ्यार आध्यात्मिक भूख
ती खाण खेल्यार वचना
इंद्रियांक शांत करून
मनाक नियंत्रित करचें
थंय मेळ्ळेले निश्शब्दतायेचे

यथार्थ अन्वेशण करपाचें, तेन्ना येंवचो अंतर्नाद
जंय प्रतिकूल विचारांचो त्याग
अनुकूल विचारांचो अभ्यास
रक्षेचो विश्वास, मेळटा,
रामायणांत हनुमान हांचो आत्मसाक्षात्कार
ऋग्वेदाची शालीनता आनी समर्पण भाव
यजुर्वेदाची धारणा आनी आदर
सामवेदाचें अंतर्ज्ञान मानून
आत्मतत्वाचो आश्रय घेवंचे
तशें मुक्त जाता, भयांत थाकून मुक्त जाता
रामायण वाचपी भक्तीन धर्मनिश्ठ जाता
रामांत जीण सोदून घेतल्यान
ताची प्रवृत्ति उत्तम जाता.
भक्तीची विशेषता तशेंच आसता
जशें भरिल्ले दळानी फूल जेन्ना ल्हारां खूब आसता
तेन्ना दरया, शरीर,मन आनी आत्मा जेन्ना मेळटा,
तेन्ना मनुष्य मनुष्य जावन येता.



## कर्मफल परम रहस्य

गीतांत म्हणलें -
(कर्मण्याधिकारस्ते मा फलेषु कदाचन)
तेंच परम सत
आमची चर्या स्वकर्म करपाची
फलाकांक्षी कोणूय आसो
ब्राह्मण कर्मकांडाक प्रमाण मानता
जशें उत्पन्न जाता तत्त्व
(मनस्तु द्विविधं प्रोक्तं)
शुद्ध अशुद्ध दो प्रकार
शुद्ध कर्मविवर्जित
आनी अशुद्ध कामसंपृक्त
कर्म म्हज्या पूर्वजल्मांत
पाप जावो पुण्य जावो
सग्ग आसा तुज्या हातांत
धरि म्हाका तुज्या सावळेंत
(कौन मरे कौन जल्मे आइ)
कर्मफल भोगचें हेंच मुखेल
पारमार्थिक तत्व कर्माचें
प्रारब्ध कर्म फलांत मुखेल आसता
कश्ट येतात तेन्ना जेन्ना
पूर्वजल्मांत वायट जाता

प्रारब्ध तीन प्रकाराचें
पायलेंत पूर्ण जावन पाप पयस जाता
आयचें पाप ना तर
जल्मांतरांत केलें पाप दूर करपाचें
तिसर्यांत कर्मफलांत पापमोचन
विवेकबुद्धि वाडोवन मुखार व्हरयात.



## सच्चीली अंगडी लोकाच्या मोगाची

कलवत्ती प्रदेशांत सच्चीली अंगडी
मोगाचो लोक ताचो उपेग करता
एकमेळीची शक्त आनी जिणेचो विश्वास
तांत ना कोणूच फट
सताचो सहाय आनी दयेचो भाव मेळून
सच्ची सदा सुखी आसा.
एक आश्चर्य जाला
सच्ची म्हणचो सदानंद आजूनय आनंदीत
रोगान खेल्लो ताका, लोकान भरलो दुडवान
भुर्ग्यालें नाटक जालें, दुडवाचो व्हाळो आयलो
बस, ओटो सगळ्यान , दुडवा खातीर प्रयत्न केलो.
सच्चीलें कुटुंब निर्धन, जालें धनाचें घर जशें
आंगडी भरली लोकान
ताका मुखार येंवचाक जालेना
पत्रवडो,मसालदोशा, उंडो, मुळीकु, आनी पक्वां
जेवणाचें सग्ग साधन ताचें आंगडींत लोकाक मेळटा.
सग्ग सुंदर जालें
सच्चीच्या मनांत आयलां
बायल ताची लक्ष्मी देवी
सहायहस्त घेवन आसता.
पूत लक्ष्मण आनी विष्णु दोनूय पूत सहाय करतात

तो सहाय सच्चीक मन भरून आसता.

तशें सच्चीलें कुटुंब आज आदर्श कुटुंब,संशय ना.

ताचेर निरंतर देवालो अनुग्रह आसता.



## जीणेचें ओखद

जेजू संगता अशें,
शेजारूकय आपण जशें
मोगाचो मानवन घेयात
जें गुणात्मक आसता
ताका लाभ वांटून दियात
तेग्ग जाण मनीश साधारण
काम तांचें आनंद दिवंचें
कश्टान मुखार व्हरतात जीण
तीचे प्रारब्धाचें मर्दी
दुसर्यांचो काय सहाय करचें कशें
कुत्तिय तोड, तुरवराचो गांव
हांगा रावतात तेगजाण मनीश
मुरारी, जानसण, रामचंद्र नांव
परोपकार करपाची तांची जीण
दुसर्यांक सहाय करपाची
एका दिसा सिनेमा पळोवन
तांका दिसले बरे विचार
सिनेमान तांचे जिणेंत परिवर्तन हाडलें, बरें केलें
तांचें विचार तांचे जिणेक
सहाय करपाक तुरंत पावले
ताणीं मानून घेतलें

(परोपकारार्थमिदं शरीरम्)
अगतिमंदिरांत दिल्ले ताणीं
रुपये लक्ष भर अनेक वाटेन
ओखद घेंवचाक  आनी खाण खावंचाक
आपलें कार्य माखशी  करून
पयल्या कार्याक दुसरचें मानून
ते ओखदाच्या सोदाक लागले
उणे दोतोरांक एकडे करताले.



## नवें वर्स

समुद्राचे कडेन मादक द्रव्य आयलें
कोचींत नवे वर्साचो उत्सव
मादक पार्टी उत्सवाची शक्त वाडयता
उत्सवाचे संबंदान विदेशी लोग
पावंताय खूब कोची नगरांत.
फोर्ट कोचींत उत्सव नवे वर्साचो
व्हडले रूख झगझगेतात पावसाचे
अलंकाराचे मर्दी दिवे नखेतांचे
रंगारंगी कागदान रूख जालो सुंदर
नवे वर्साची पार्टी उत्सवाची
मनवता ती पार्टी सोरयाची
दुडवाचें उणेपण नवे वर्साक बाधक न्हय
वाडयता सुंदरताय फोर्ट कोचीची
हारबराच्या सांकवाचेर सिंगार उत्सवाचो
नवे वर्साचे उत्सवांत जागरण कोचीचे
कार्णवलाचो उत्सव सुंदर आसता
सगळ्याक अलंकार खूब आसतात
कार्णवलाचो हो संदेश एकमेळ आशिल्लो
विविध संस्कृतायेचो सुंदर एकवट
नवे वर्साचो उत्सव सुमार पांच शताब्दी पोरणो
पुर्तगेज,डच,इंगलीश लोकाचो उत्सव मनयतात

नवे वर्साच्या अनेक उत्सवांत सांतक्लोस आसता
जो तांबडो चोगो आनी धवें खाड दवरता.
तो नवे वर्साक स्वागत करता
माथ्यार ताच्या टोपी आसता
झोंपाळो ताचे इश्टाचो,
नवी परंपराचो संकेत
सांतक्लोस आमकां दिता.
फोर्ट कोची समद्राकडे पळयतात
नवें सायकल आनी चार गाड्यांचो
सांतक्लोस आसता.
नवें वर्साक घरांकडे अलंकार खूब आसतात
हे प्रशस्त जन पश्चिम कोचींत आसता
हे जन आतिथ्य मर्यादा पालून घेता
उत्सवांत बिनालेचे व्हाळे
हांगा अनेक आसतात.



## झोडा वारें

आयलें गो आयलें गो झोडा वारें आयलें गो
भय दाखयलें खूब, गांव कडकडेलो गो
वारें व्हडलें आयलें, झोडांत नश्ट जाली रूखावळ
झरो भरला वारया उदकान,तट भरल्यां वारया  उदकान
न्हय भरलीं, बांय भरली उदक रे उदक जालें
झोडा वारयान मंदीर सगळें नश्ट जालें
गावांतल्या सास भर जनाक नश्ट जालीं घरां
रोग म्हारोग महान घेवन आयले
मनशाचे जिणेक करून फोग
घरां नश्ट जालीं, जनाक वसती दिवंचाक शुरू केलें,
तें खूब चलून रावलें.
तमिलनाडाचे अनेक मनीश , जांचें नगर आतां रूखाचें मशान जालें.
कोटि कोटी सरयो वीजेचो आनी दुसरयो नश्ट जाल्यो
रूख पडून मनशाची जीण पडली दुखांत
हात पाय नश्ट जाले, थोंटो जालो, गोवंटो मोडलो
मोडून पडच्यो फोणीच्यो सरयो, बिजेची सरयो,
जयराती, सग्ग नश्ट जाले,  उद्योग सग्ग ठप जाले
सदर्थान चक्रवात वारें वाडून पश्चिम तटाचे लागी पावले.
गोयांत आक्रमण जालेना
झोडा वारयान काल कराल पावलो
सरकारान खूब केलो सहाय

गावंच्या जनान दिलो सहाय
दुडवा खातीर मनीश मरता
दुडवा खातीर मनीश मारता
मरून पडचे मनशाक कोण कितें करता.

**

## अनुग्रह

वरिश्ठ नागरिकांची रावपाची सुवात
नांव तांचें अनुग्रह म्हण्टात
म्हांतार मनशाचें अपूरबायेच्या घरांचें हें सुंदर सपन
समाजाक भरवंशो आशिल्लें, रोग नाशिल्लें
जीण मुखार व्हरपाचें. कोंकणी समाजाचे
डा. नर्मदा दयानंद कामत हाणी आनी
श्री दयानंद कामत हाणी मेळून साक्षात केलें
कोचीच्या एरणाकुळम नगरांत
२००२ वर्सा हें जालें तयार
श्रीमद् सुधीन्द्रतीर्थ हाणी अनुग्रह दिलो
हाचें नांव अनुग्रह जालें
हे समाजान वेंगावन दवरलें
ह्या घरांत स्वातंत्र्याचें मर्दीं
खाणं, जेवण आनी
घर संबाळपी सगळी आवश्यकता
प्रतिष्ठान पळवन घेता
दोतोर आनी नोकरालो सहाय घेवन
सुधीन्द्र मेडिकल मिशन हाचो अनुग्रह मुखार व्हरता
जीण भर आशिल्ली येवजण करता
सोंपेपण, सुलभताय आनी सुविधा आसता
२०१७ वर्साचो फांतोड अनुग्रहाचे दोन दसकांचे

धडणुकानी भरिल्लो.

आदर्शाचे सामाजीक मूल्यांची सुदारणा

व्हडलें निवृत्ति वेतन, शिक्षणाची मांडणी

समाजाची सुरक्षा जावंची जाली.

गरजे वेळार व्हडले वावर दयावंत प्रतिशठान करता

समाजाक करचे सेवेक प्रतिशठान उपकार मानवता.

तें समाजांत मोलाचे आदर्श आनी सुदारपाक लागून आसता.

अनेक येवजणांत दयानंद नेमूणक निधि वाडल्या.

सुरक्षा भवन तैयार जालें.

शिक्षणपरक येवजणेंत मात्र जी. एस. बी.

न्हय परंतु अन्य सामाजीक संस्कृतायेचो , जशें, वैश्यसमाज आनी

कुटुंबी समाज येता. २००७ वर्सांत श्रीमद् सुधींद्र तीर्थ स्वाम्यान

संबंद घेवन धार्मिक कार्य चलयलें.

हाणी एक नवी येवजण केली

एक प्रतिष्ठान बायलांक मात्र रावपाक शुरू केलें.

तशें म्हांतरयांचे ओपुरबायेंचे धर स्वाम्याले अनुग्रहान

एक संपूर्ण घर जावन मुखार आयलें,

हाचें नांव अनुग्रह जालें.



## चालियार झरो

म्हजे ल्हान प्रायेचेर
चालिचार आयकिलें मात्र
दिसा वेळार ताचे चारीय दिक्कान
पिस्सेळीं, शेवर्णी उडून आसतालीं
आकाशांतल्यान हळू हळू
इंद्र धणु देवन आयलो
बोक्कोड आनी वाघ एकठांय भोंवताले
मत्स्य कन्यका वताचें सेवन करताली
रातीचें हांव जेन्ना निदेतालो
कुतरे रागिश्ट जावन हुयेल मारताले
उडून उडून पाखे शब्द करताले
सर्प माणिक्य घेवन भोंवताले
हांव भयान थंय वचना आशिल्लो
चान्याची रात दूद उंवाळताली
गंधर्व गायन करताले
अप्सरा नृत्त करताली
ग्रीष्म कालाक ती संदेश पावपाची आशिल्ली
मेघ उडून गेलें आनी पावसांत शक्तीची धारा आयली
नवी अनुभूती प्रार्थना जावन मुखार सरली
व्हाळ्यांतलीं पाळां रंगांक धेवन मुखार सरलीं
हांव ल्हान राना लागी आसा

रूख रुखावळ म्हाका नवी प्रेरणा दिता

ती अनुभवांत हाडपाक म्हाका शक्त ना.



# कोची चेल्लाणम कण्डक्कडव

कोचीचे ल्हान ल्हान झरे
झरया भोंवतणेक खंदे रुखाचे
देश विदेशाचे पक्षी
सोदून येतात झरयाचो सर्ग
आमचें हें अतिथिवर्ग
वीस बावीस नगरांक भरून
वारया मान, उदक वारें अनुकूल
कोचींत २०० पक्षीवर्ग येतात
दिसेंबर, जानेवरींत येतात हें पक्षी वर्ग
अप्रैलांत ते वतात परत
कण्डक्कडव कळत्तरा कुतिरक्कूरकरि
कडमक्कुडि पुतुवैप एडवनक्काड
नेडुंबाश्शेरी कळमश्शेरी
वनभूमीचे हे पक्षी मेळटात.
हांत चडान चड आसात हे वर्ग
जे उदकांतलें सुंगट आनी कुरलो हांका धरून खाता
उदकांतले ल्हान कवळे हांगाय थांगाय पळोवयात.
काळे कोंबे पेंवतात आनी
हांचेर घालता, हुयेल मारता
रुखा खांदार वसती करता



## पावस आनी फारावणी

आशाढ मासांत पावसाचे दीस
करतात लोकाक कासावीस
गावांत, नगरांत धरता फारावणी
ल्हान ल्हान चोरीचें काम जेन्ना
लोक निदेता व्हड व्हड जशें
फारावणी भांगराची आभूषणांची
झारो भरला,नदी भरली
उदक रे उदक जालें
न्हींद जोरांची शेळोव भारी
लोकाक जाणीव ना कशें आपली रक्षा करचें
अट्टहास पावस करता फारावणीक वेग येता
सदा सर्वदा पावसाडीची फारावणी कोचींत
ह्या वर्साची फारावणी पावसाचे पयले जाली
नगरांत, व्हडल्या घरांत भांगराची चोरी जाली
खबर छपी, नगरांतलें जन भयभीत जालें
पावसाडीची फारावणी ना करपाचो प्रयत्न जालो
दुडु आनी भांगर बेंकींत पावलें
धरां कडे बीगांचो उपयोग जालो
पावसाचे भाव , उगडास अनेक
मोगाचे, रंगाचे,सुखाचे, दुखाचे



## राखणदार रस्ताद कुत्रो

हांव एक रस्ताद कुत्रो
राखण करपाचें म्हजें इश्ट
कोणूय ना जाको हांव भय करता
रस्ताद हांव मूल्यांची वकालता करतां
म्हजो मालक कोणूय ना
हांव रस्ताद मोगाचो कुत्रो

अजाप मोग भरिल्लो
पुलीसाचो राखणदार

रस्ताद कुत्रो तर स्वयं मालक
दुसरयांक सहाय दिवपी
जेन्ना जेन्ना कश्ट येतात
ताची राखण तो स्वयं करता
भय ना, सांखल ना
मोन जावन अनुकरण करता
दिसा आनी राती तो राखण करता
पुलीस स्टेशनाची राखण  करता
ताका खाण नाका,मोग नाका
हांचे उपराटें ताचें विधान
भुंकना म्हजें काम न्हय

म्हजें कोणूय नांव ना.
शेंपडी हालोवन, मोग दाखोवन
सगटांक तो स्वागत करता

रातीचें तो भोंकता अधिकारीक उल्लो दीना
दिसा तो भोंकना, हुयेल मारना
पुलीसा लागी रावन तो
परेड रिहर्सल पळयता
हें रावप खूब अजापाचें
तेंच ताचो मोग दाखयता.



## फायलीचे मर्दी सोरपाचें पील

जिला कार्यालयांतले फायलांचें भांडागार
जंय फायलां भरे पडले आसात
कर वसूली आनी जमा पूंजी.
एका दिसा फायलांचें मर्दी
आयलो एक सोरोप रावचाक
आयलें तशें भायर वचाक

ताका ना आशिल्लें धैर्य आनी शक्त.
कोणूय सोरपाक देखून पावलेना
तर एका दिसा अन्वेशणाक
आयली एकली बायल
तिणें सोरोप पळयलो
पेन्शनाच्या फाय़ल्यांच्यां मर्दी.
सगटंय धावन गेलीं पयस
तेन्ना जन सगटय एकडे जाले
सोरपाची जीण नश्ट जाली.

तरेकवार जीवजंतु
फायलाच्या मर्दी रावताले
कोळहिंदूर, कुडतर माजर, माजर
एका दिसा पिशाचें सूणो थंय गोंदळ करतालें

न्याय आनी लाभ मेळचे कडे
नाश आनी नश्ट मेऴचें
हेंचें सामान्य जिणेचो सभाव.



## दुडू फुडाराक

फुडाराचो हुसको मनशाचो सभाव
तो हुसको अधिकय दुडवाचो आसता
दुडवा बगर दर एका मनशाची जीण ना
कांय तर अर्थ ना
हातांत आयलो दुडू कशें संबाळप
दुडू मनशाक उंच व्हरता
कुल, गोत्र दुडवाचे वाटेन जाता
दुडवान मनीश बलवंत जाता
दुडू दवर बंदून तो वता सुंदून

दुडवाची रक्षा करपाक कष्ट मनशाक जाता
खूब धरानी दुडवाची राखण जाता

कारपेटीचे सकयल दुडवाची राखण जाता
दुडवाक हेंच अधिक वायट आसता
बेंकानी दुडवाची राखण जाता
शाणेपण मानवता
फुडाराचो हुसको बचत पयस करता
दुडवाचो उपेग सत कर्माक जाता
(पानी बाढे नांव में घर में बाढे दाम
दोनों हाथ उलीचिये यही सज्जन को काम)
तेन्ना उरतले घरांत शांति आनी समाधान.



# रामकृष्ण परमहंस

श्री रामकृष्ण परमहंस
विवेकानंदाचो धर्मगुरु, जिणेची शक्त आनी आधार
जो धिगी लायता आनी फाटबल दिता
विवेकानंदाचे जिणेंत प्रभाव दिवपी

प्रवर्तनांत दिवन नैतिक बळगें
शिष्याक दिवन आत्मीय प्रभाव
जालो महान गुरु म्हान शिष्याचो
हे महानतायेच्या संबंदान करताय आमी विचार

शुद्ध समर्पित मनान, देवा संबंदान
पंडित, पामर, धनिक, दरिद्र
ना तांका भेद जावो दुष्ट भाव जावो
हेच शिक्षण परमहंसान दिलें
ते जाती वा मतांत् भिन्नता पळयनात
निरर्थक आचार आनी आचरणांत
करताले विश्वास दैवी साक्षात्काराचे
धार्मीक प्रवाचक आशिल्ले.
जेन्ना भारताची आध्यात्मिकय नश्ट जाली
तेन्ना रामकृष्ण मताची रक्षेचे खातीर
उद्धारक जावन मुखार सरले

लोकाचे आध्यात्मकतायेचे नवोत्थान
अध्यात्मिक विचारांक प्रचारांत हाडचाक अत्यपूर्व
युगपुरुष श्री रामकृष्ण परमहंस हाणी
नवे विचार मुखार हाडले.
बुद्धिशील तरनाट्यांक नवी जाग दिली.
तांची शून्यता पयस करून नवोत्थान केले.
नवी प्रतीक्षा, नवें जागरण हांचो प्रकाश
रामकृष्ण परमहंसान प्रकाशाचो आदर्श दाखायलो

अधिकूय जन तांचे शिष्य जाले
दुश्ट सगळेच शिष्ट जाले
नरेंद्रनाथ दत्ता सगळ्यांत प्रमुख जाले
स्वामी विवेकानंद नावान.



## कोची मुसिरिस बिनाले

संबंद कोची मुसिरिसाचे
बिनाले, पोरणे कलात्मक सृश्टीचे

उपहार म्हण्टात
तो संस्कृतायेचो नक्शो
संस्कृतायेचें दायज
वर्णन करपाचो आनी
पुर्तगीस,डच, ब्रिटीश, चीनाचो
अरबी राज्य जावन संपर्क कोचीचो
संबंद मेऴटा संवत्सराच्या नकशांत
अनेक व्हडल्या मनशांचो

उडगास आनी दिश्टी
संसाराचो नक्शो केला फोर्ट कोचीचो
संवत्सराचो नक्शो, मट्टांचेरीचो आदींत

संस्कृतायेचें केंद्र
परंपरागत स्थान
जिणेची शैली
आराधना करपाचे स्थान
जन भरिल्ले संस्थे, हांत आशिल्ले केंद्र

आचार आदी चे विचारान सांगलें
मुस्लिम केंद्र, असीसी चर्च
आदी पळयल्यार पयली
इगर्ज यूरोपाची पुर्तगीसानी केली
उपरांत फोर्ट जालें
फोर्ट कोचीचें नांव हांततल्यान आयलें
वासकोडगामाचें मडें हांगाच पुरलें.

व्यापार केंद्रांत कोचीचे नाम येता
विदेशाची भासो भिन्न समूहांत वाडल्यात
हांचे लगी अनेक देवळां वाडल्यांत.
हांची सर्गात्मक प्रतिभा विख्यात
गवरनर वान रीड हाणी सस्यज्ञान
होर्तुकस मलबारिकस लोकाक समर्पित केलें
२०१२ वर्सा कोचींत कलाची दिश्टी
कोची मुसिरिस बिनालेंत
बिनालें फाउणडेशन जालें
जंय कलावंत विदेशी आसतात
कलालोकाचो एक भाग

आयकात, पळयात,संस्कृतायेचो एकचार
बिनाले कलात्मक दिश्टींत
लोकांतली सर्वाधिक सुंदर

आनी कलात्मक दाखवण
कोची मुसिरिस बिनाले
कलेचो नवो युक्तिबोध बिनाले
कला संकल्पतल्यान मुखार वता
हीच बिनालेची विशेषता
समकालीन यथार्थाची सोडवण आनी
नष्ट सपनांतले पुनर्निर्माणाक बिनाले म्हण्टात
मनुष्य, प्रकृती, लोकाचो बदलाव  बिनालेंत मेळटा.
शब्द, गंध,चिंतनाची नवी दिश्टी
बिनालेंत मेळटा.



## भक्त रामदास

(राम राम राम राम राम राम तारकम्
रामकृष्ण वासुदेव भक्तीमुक्ति दायकम्)
भक्त रामदास कीर्तन गायता.
गेटीर टिक, टिक शब्द
भक्ताची श्रद्धा मागतल्याचेर पडली.
मागप भक्त रामदासाचें इष्ट न्हय
खिळियेचो शब्द आयलो, रामदास गेटींत गेलो
धा रुपया ताका दिले, नामकीर्तन गुणगुणून आशिलो.
सड्यार फुलून सोबीत जालें,कांट्या झाडार मंद वारयांत
हालून धलून सर्गावयलीं फुलां
रामदासाली दया पयलेच जागृत आशीली
तो आनीकूय देवा लागी जालो
गुलाबाचीं फुलां देवाक अर्पित केलीं
सुगंधीत मनोहर गुलाबाचीं फुलां
सैमाचो आनी मनशाचो मेळ
जिणेचे संपन्नतायेचो खेळ.



## दोतोर

दोतोर
हांव दोतोर नेरवाचो
म्हजें शिक्षण डिमेनशियांत
हांव गेलों विदेशांत डिमेनशियाचे शिक्षणार्थ
ताणे गजाल खूब केली पिशाची
डिमेनशिया बरें शिकून,रोगमुक्ती दिवन
स्वयं पिशाक अपणायलें
दोतोर डिमेनशियाचो, जाको जन डिमेनशियाक म्हणटालें
आतां ते अस्सल डिमेनशियाक जाले.
घेंवंचे बदल तांका दिवंचें पडलें
दोतोर एक रोगी अनेक
मानवसेवा माधवसेवा

दोतोर विसरून गेलो तें
स्वयं पिश्शो जालो
दोतोराचे मनांत देवाली वसती
अहंकार व्हडलेपण सग्ग पयस जालें.



## जेवणाक शीत ना

माधो शेणैले वासरेंत शीत आयलें देवालें
जेवण आसतलें लोकाक म्हूण
चारीय दिक्कान सांगलें
मऩशां आयलीं बारा धंट्यार पोट तांगेलें भुखेलें
एकली गेली म्हांतारी मागून जेवण भुखेन
माधोन म्हणलें , तुका जेवण देड धंट्याचेर
माधो दादल्यांक मुखेल मानता, दिलें ताणे जेवण विष्णु भटाक
विष्णु भटालें जेवण जालें, उपरांत सगळो लोक आयलो
घशी, अऴचिकरी, केळ्या आंबट, वलवल,अंब्या अडगय, अल्लें,
दाळीचे तोय, ताक, हप्पोळ, पक्व पांच, दुदा पायस आशिल्लें
लोक सगळोच म्हणटा गेलो, पोट भरून ढेंक काडलो
म्हांतारी सग्ग आयकून बसली,जेवण सरलें पोट भरलें
लोक सगऴो संतुष्ट जालो म्हांतारी थंय बसून रडून रडून निदेली.



## म्हजी जीण दुखाची

म्हाका नीद ना, म्हाका भूख ना, तान ना
मन धावना मुखार, हात वचना मुखार
कर्म करूक खूब इत्सा

खूब मनुष्य दोळ्यांत आसात
एकलो तर सहाय करना
करना म्हूण न्हय ताका कांय कळना

कांय उतरां म्हजीं म्हाकाची हारोवन गेलीं
कांय उतरां दुश्मनांचें शिराप जशें सोडपाचें
कांय उतरां घोवाचीं मनाक लागन घेतलीं.
केन्ना मनांत आसतां पिशें संकष्टांत म्हाका धैर्य दिवंचें रे
हांव केन्ना केन्ना म्हजे मनाक चंचल करतां
तें केन्नाय थीर नासता, म्हाका दिसता
हांव धरते पयस धांवतां आनी थीर मनान काम करतां
अस्थिर आसता तेन्ना स्वप्नलोकांत भोंवतां

मन थीर आनी प्रसन्न जावपाक कांय पथ्य हांवे घेतलेना
सदांचे भय हुमकळटी तरसाद आसता.
देवधर्माचे बरे विचार सोडून आयल्या
अहंकाराच्या विचारांच्या मळार

सकारात्मक विचारांचो हांव उडगास करतां
तकलेंतले वायट विचार एक खेपे मुखार आयले
हांव पडलीं रोगाचे हातांत
नींद ना, भूख ना प्रसन्न मन जालेना
पावलीं हांव जांट्याचें कश्टाचें घरांत
ताचें मदीं आयलें दुख, म्हजो भाव यात्रा जालो मृत्युलोकाक

हांव कशें थांगा वचप, म्हाका जाल्यार सुखना
तकलेंतले वायट विचार, ओखदानी मारून धाले.
देवाली दया जाली, रोग गेलो, प्रसन्न मन जाली
चिंतन सग्ग बरें जालें,
हांव म्हज्या पोरणया मनान प्रसन्न जालीं
वाणयेचेर नियंत्रण जालें,
म्हजी जीण रोगाचेर नियंत्रण पावली
प्रसन्नतायेन दुसरयांच्या मनाक कश्ट दिवंचें नाशिलें.



## घराचें ऐश्वर्य

साक्षात् देवाली शक्त
राबता मनांत मनश्याचें
तो ताका वाडयता ना तर सोडयता
व्हडल्या देवऴांत देवा मुखार
जी आत्मनिवृति मेळ्टा
तीची आत्मनिर्वृती रूखा पोंदाक मेळटा

एक फातराक पूजून मेऴटा
कशें ते जाता अजाप न्हय
केवल सैमाचे सभावान
शबरी पर्वत, तिरुपती जशें
भुंयचें आकर्षण आसता.
हें भक्तियुग भक्तियुक्त आत्मनिर्वृती दिवंचें
हांगा भक्ती स्वार्थाची आसता
जशें देवळांत भक्ती आसता
तशें घरा कडे रावतल्या मनशाची शक्त
घर नितळ न्हय तर वास्तुशिल्प आसूनय
नितळ आसूनय ते घर ऐश्वर्य भरिल्लें आसता



## पणस

कोण सांगतां तो रूख म्हूण
म्हाका सांगचें आसा तो मनीश म्हूण
ताचें मन आसा सुखदुखाचें
ताचें जीवन आसा अनेक वर्सांचें
सुखा वेळार तांची फळां व्हडलीं आसात
दुखा वेळार तांचीं फळां ल्हान ल्हान

दीग रूद सुलम्ब रूख
२५ फीट ऊंच कांड
ताचेर शाखा प्रशाखा
पसरून मळबाक तेंकता
दीग दीग उच्च आनी थोर कांड
तांचे आसात तरेकवार बरे पणस

पणस जनाचे प्रीतीचें फळ
ताचो स्वाद जनाक भारी इष्ट
सैमाचो आनी मनशाचो मेळ
जिणेचो संपन्नतायेच्यो खेळ
गोड म्होवाळ सुंबाळ पणस
कायळे, चान्नयो शेवणीं पाखे
रावणाल्या गांवांत ताका

अपूरबाय खूब मेऴटा
सगऴ्याक तांचीं घटकां

घटकांचो बरो उपयोग जाता
व्यापाराचे मेळेंत प्रदर्शनाक पणस आसता
जन पऴेयतात, बरें वेंचीक
एकडे करून विविध खाण करतात
जन सग्ग पणसाचे बरेपणाक मानवतात
भिन्न भिन्न उपयोगानी ,पणसा विशीं
हें बहुप्रमुख आसता
पणस आनी ताचीं घटकां नवे आहाराक
आसता



## अपघात

अधिकूय. अपघात रस्ताद कुत्र्यांचे निमित्त जातात
हे रस्ताद कुत्रे मनशांचे शत्रु
दीस रात नाशिल्ले हे कुत्रे मनशाचे

चारीय दिक्कान भोंवतात
रस्ताद कुत्र्यांचे निमित्त वाहनाचे अपघात जातात
रस्ताद कुत्रे अधिकूय बैक वयले  मनशांक
सदा आक्रमण करतात
एका मासांत धा बारा मरण
सायकिलेचर धांवच्या जनांक
कुत्र्यां खातीर बैकार वतल्यांक
शंबर जना कुत्रेच्या कारणान
खूब कुत्रे वाट चमकतात मेळटा.
रस्ताद कुत्र्यांचो घास घेवन उणेच मरतात
रस्ताद कुत्र्यांक लागून कितले अपघात जतात
तांचीं लेकां अनेक आसात.



## रोग विमुक्ती

तो मनीश दुख भोगता
दुखाचें कारण कितें कोणाक ताची जाणीव ना
तर तो सांगता रोग म्हूण मरण ताचें निश्चित म्हूण
ताचे मनांत मोह भरीत आसा
तो अपणाले मनशांक सोडूक ना
मरण ताका निश्चीत आसा.
रडून रडून मेल्यारूय हासून मरचें ताका इष्ट
मरल्यारूय नरखांत गेल्यारूय
हासून घलून वचें, बरें न्हय वे
तो बोब मारून मरता, ताचें मुखभाव उलयतात
रडून घेंवचें थोडे स्वर मात्र निशाणी धालून आसा
तो सांगता ,ताचो मेंदू जीर्ण जाला
संशय जाला की मेंदूंत गांठ पडली
सदा सर्वदा तकळेचे दुख
तकळेचो फोड जाता आसता
वीट खूब कष्ट दिता
तकळेचो फोड ओकारे हाडटा
तकळी थोरी जाता म्हूण दिसता
हाचे भायर कुटुंबांत हो रोग
दुसरयाकूय आयला आसा
तो गेलो वैजकी तपासणीक

रोग कांय तर नाशिल्लो
ताका जालो व्हड संतोख
तांचे तणाव सगळीक जालो
तो पावलो दोतोरा लागी

तणाव ताका नाशिल्लो
रोगमुक्त तो संतोख भोगलो
दुसरया रोग्यांक हालून, धलून
हांसून रावचाक.



## पुस्तक

वसंतवनाचें कुसुम
मळबार आशिल्लें नखेत्र
नखेत्राचो प्रकाश जशें सुंदर
निरंतर प्रकाशित नखेत्र
जशें वसंतकालांत उज्ज्वल कुसुम
घर भर पुस्तकां, एकेक कूडांत
म्हज्या घरांत पुस्तक ही पुस्तक

एकेक कूडांत एकेक
हे पुस्तकांतल्यान, म्हाका खूब माहिती मेळी
लेखक आपल्या घाडीपणान
वाचप्यांक मायापुरींत व्हरता
मनुश्य पुस्तकांत हांस पळयता
तो हालून, धलून, झगडे, झूज,
मोग करपी घोषयात्रा पुस्तकांचे वाटेन करता
परंपरागत मरणां, जिण्यो, वृक्ष,मृग,झाडापेडां
आदीचे मदी राबितो करून आसता
हो मनीश भुंयचेर थाकून ना जालो जाल्यारीय
आजूनय आमी पुस्तकांचे वाटेन वाचन करतां.
हेंच न्हय, अनीकूय अरण्य पुष्प, व्हडले रूख,
विचित्र वर्णाचे पक्षी, रानाची तमोमय हरित निगूढता
अणभव करता



## मोगाची कविता

मोगाक कवितेचो झरो करचो कवी ओ. एन. वी.
कविचो मोग संवसारांत भरला कोणे तोच ओ, एन.वी.
नीळे रंगाचे नदीचे तटांतल्यान संगीत तांका आपयता.
जें संगीत रातीचे निश्शब्द वारयांत पडसाद घालता.
-एक दुख म्हज्या हड्ड्यांत तोपलें.
जाणीव आशिल्या म्हाका जाणयतालें
तांचे लागी पावंची वाट म्हाका दाखयतालें
म्हजे हातांतलें हें फूल हांव थांगा व्हरतोलो

तांचे पायकडे व्हरतलो -
हांगा मोगाची कविता जाता
ही कविता गीतानी भरिल्ली आसता
ओ,एन.वी कविता गितांची शीम सोडून आयली
प्रेमानुभूतीची व्याख्या आसा तांचे गितांत
संदर्भाक तुंटोवन संदर्भाची वाट सोडून ती
विशाल मळाचेर आशिल्ली स्वतंत्र रचना जाता
मोगाचे इश्टीणीच्या दुखांत
वांटो घेंवचाक तांचे मन इत्सा करता.
लोकांतलें सैंदर्य, मोग, संगीत, सुगंध, माधुर्य,
तें सग्ग काव्याची कल्पना एकडे येंवची तांची इश्टिणी
कवि मोगाक संसाराचे तितलेच
मोगाचे कवितेचे मळाचेर हाडता

## उग्र तांडव

सुनामीक वर्सां बारा जालीं
महा दुरंताचो उग्र तांडव जालो
हो तांडव शिवाचे जशें न्हंय
शिव एकलोच करता तांडव
जनांची जीण ना करपाचो.
अजूनय जन दुरिताचे फोंडांत हात घालून
बाकी पडलले बरे नश्टताय आनी शिश्टतायेचे
कुडके कश्ट रे कश्ट

जिल्लो व्हड एरणाकुलम
धरलो सुनामीन गोंवटेक
मेलीं दोन भुरगीं,म्हालगडे तीन मरण पावले
एडवनक्काड वेळ आतां चिखलान भरून आशिल्ली
पोरणें सौंदर्य खंय गेलें,
तें सौंदर्य खंय पावलें
पावलें बारा कोटी पुनर्जीवनाक
दिता सरकार व्हरता जनाक
सुनामी ल्हारां आयलीं एडवनक्काडांत
संचारक ना जाले थांगा वाटेर
ल्हारां धांवतात दरयाचे तळांचेर
नष्ट जालें व्हड कष्ट जाले
वारो वेळेंच्या तटाचेर नर्तन करता पळयात,
जेन्ना नर्तन काबार जाता, जनाक हांगा आश्वास जाता.



## महाभारत

जाणीव आसा म्हाभारताची
भारतीय ज्ञान परंपरेचो विश्वकोश
हांत सांगलें दुसरे कडे आसा
हांत नातिल्लें खंयीच ना

तर महाभारत उतराचो अर्थ
सामान्य लोकाचो महान अर्थ
ज्ञान समुद्रांत न्हांवचें
झगडें झूज करचें न्हंय

आयज झूज साधारण जाला
महाभारताचो उदय जाला
कौरव पांडवोंचो झूज जाला
संवसारांत झूज नातिल्लें आगळीक ना

महाभारत म्हणलार महान भारत
कौरवांचे आनी पांडवांचे भारत
हेंच मत आमचें की
साहित्याचो भयांकुर राकेश

सत सांगलार महाभारत
धार्मिक शिक्षणाचो विश्वकोश
तरेकवार विषयांचो कोश
तांचे केंद्र कौरव पांडवांचें झूज

झूजा भायर ह्या ग्रंथांत
नीती आनी दंतकथा भरिल्ली आसा
नियम आनी नीति संबंदी काणयो
उपदेशाची काणयो, प्रवचन आसात

भगवद्‌गीता, लोककाव्य,
अर्जुनाचो दयाभाव, श्रीकृष्णालें
मृदुता आनी माधुर्य
विदुराचें नीतिकाव्य
महाभारत अपर काव्यांचो स्त्रोतग्रंथ
कवींचो उपजीव्य ग्रंथ आसता.



## कूबड जालो मंत्री

कूबड हें तें महाभाग्य
आइचे न्हय बापायेचें न्हय
जल्म घेतल्या भुरग्याच्या
ताचें जल्माचें महासत्य

पोरण्या कालाक जल्मांत आयलें
भुरगें मूळ नखेत्राचे
मूळार जल्म मूळ खणपी
विश्वास मनशाचो कोण जाणपी

भुरगें जल्मलें मेली आवय
बापायाच्या माथ्यार भुरग्याचो भार
मोग जालो दुखाचो भार
बापूय सोडलो भुरग्याक कोण जाण

गांवचो आचार्य शिक्षण दिता
भुरगी सग्ग शिक्षण घेतात
आचार्य म्हणटा-
- आचार्यात् पादमाधत्ते
पादं शिष्यस्वमेधया
पादं सब्रह्मचारिभ्य
पादं कालक्रमेण तु -

भुरगें नवें ल्हान ल्हान
हळू,हळू व्हड जाता
बापूयान सोडलें, आचार्यान काडलें
ताचें नांव कूबड जालें

कूबड भुरग्यांचो मोगाळ इष्ट
शिक्षणांत तांचे शक्त बरीच
पार पावंचाक पूर्ण सहायक
एका दिसा आचार्य मेलो
कूबड जालो एकलोच घरांत
गांव भर लोक भियेवन रावतात
राती भोंवचे पिशाचाचे विशीं

गांवचो मंत्रवादी मुखार सरलो
मारूक पिशाचाक शांत करूक
दर घराक ओरोव फार भर
भांगर धा धा वजन भर.
कुबडाक भय ना, पिशाचें
तो एकलोच ताका धरूक गेलो
मेळो हातांत मंत्रवादी
ग्रामसभेच्या मुखार हाडलो

मंत्रवादी जालो चोर
चोरायो ताच्यो भायर आयलो

ताका जालें ऊणाकपण
उजो धालो कुबडाल्या घराक

आचार्य थांगा प्रत्यक्ष जालो
सांगलें ताणी कुबडाक अशें
-आनी तुवें हांगा राबचें नाका-
कूबड गांव सोडून परगांवांत गेलो

मर्दी वाटेर नदी तटार
तेग जाण चोर मेळे
कुबडाक घेवन गेले फटकीरे
कूबड पावलो रानांत मर्दी
ताका दिलो काळीदेवीक
तिचें इष्ट करता करता
कूबड लागलो डरपाक

गुरुवचन जालें - धैर्य धर -
मरण लागी पावलेना
ताच्या वेळार चोरां रायान
कुबडा लागी विचारलें
-तुजें अंतिम इष्ट कितें -
कुबडान म्हणलें -
खडपाचेर वचून प्रार्थना करपाचें -

मारली ताणी उड्डी
वालीक धरलो दोनूय हातानीं

पावलो तो नदींत
रानातले वनदेवतान
ताका वाट दाखयली
हातांत परशु कुराडेचे धारेचो
मागशी ताचे पांच रानटी
कुबडाक दिलोना काळीदेवीक
नखेत्रा रूपान वनदेवता
वाट दाखोवन गेलें

कूबड गेलो आपले वाटेक
नदींत देवलो उदक पिवंचाक
आयलो थांगा वाघ व्हडलो
कूबड पेंवलो केऴीच्या खंभ्यार
पेंवन पेंवन पयस पावलो
आयलो ताका पोरणो उगडास
बापुयाचे व्होंटींत पडलो
तो रडलो, खूब रडलो
देवान उळ्दीलो आचार्याक
आचार्य गेलोना कुबडा खातीर
-सर्गार इहलोकाचें दुख ना-

देवान म्हणलें
जाल्यारूय आचार्य निश्चय करून आशिल्लो

कूवड नदींतल्यान दरयांत पावलो
गरजून गरजून ल्हारां येतात
भयावह दिसता, दरयाचीं ल्हारां
रूखाच्या कुडक्यार लांबून पडलो.
भय आसूनय धैर्य सोडलेना
पेंवन पेंवन पलतड पावलो
मासोळी धरतल्यानी पळयलो

ताणी व्हेलो, घरांत घालो
जायनशें ताचो उपचार केलो

बेसुध आसलो , चेतना आयली
मंत्रवादी हांगा मेळो
सन्यासीचे वेशान पिशाच आयलें
कूबड राजपट्टणांत पावलो
पट्टणांत चोर आयले
देखून धरचाक कोण आसा
कुबडाक आतांच राजमहलांत व्हरात

वोय्द आयलो बेगीन
देवाक केली प्रार्थना
-म्हज्या पुताक जीव जाय-

राणयेन सांगलें
परीक्षार्थ दिलें ओखद
कुमारालो रोग ऊणे जालो
दीर्धायु तो देवाली ही परीक्षा

मृतसंजीवनी रोग ना करतली
राजाज्ञा जाली मृतसंजीवनी हाडपाक
कूबड म्हणलो - हांव जाण मृतसंजीवनी
वोयदान ओखदां वेंचीलीं
यथार्थ ओखद धरून काडका
-मृतसंजीवनी खंय आसा म्हाका जाणीव आसा-
म्हणलो कुबड

-चोराले स्थान म्हाका जाणीव आसा-
रायान हें सत काडलें
चोरांक धरलो, संजीवनी मेळ्ळी
राजकुमाराचो रोग ना जालो
राणयेक खूब संतोष जालो
कुबडालो उपकार मानवून आयलो
ताका केलो राजमंत्री
सर्व जनाक तृप्ति जाली
सगळें जन संतोख भोगलें
कुबडाक जालें महाभाग्य
तो जालो महामंत्री.



## धरतरी आमचें घर

धरतरी दिता मोग आनी अपूरबाय
धरतरी आमचें घर
उदक,रूख,झाड,रान,दरया आनी पर्वत
तो आमका दिता अनुराग

हे अनुरागिणी,तू  सकयल आयली
मळबावयल्यान  ताचे वांगडा धल्लून आयली
तर धरतरेन तुका जागो दिलो
देवा परस सुंदर तूं

हे अनुरागिणी,
उदकान वाडलें रूख आनी झाड
रानांतल्यान व्हळचें तुजे बांगडा
ल्हारां भशेन हालपी उद्यान
आनी स्वच्छ भोंवतण
हे अनुरागिणी
तूं हांगा आशिल्ली वनदेवता
देवा म्हज्या दुखांत आलाशिरो दियात.



## आयलें तशें गेलें

खाणावळेक छापो घालो
भांगर वजन करपाचे कडे
माजराक कितें काम
माजर गेलें खावपाक
मास आनी मासऴी
गायचे मास आशिल्लें
पंद्रा दीस पोरणें
तें आशिल्लें पायसाचें सारकें
मासऴी दोन हफ्ते पोरणी
खाणा वेळार मेणा दोळे

रांदपाचें कूड सांडासा लागी
खाणा वेऴेक छापो घालो
माजर गेलें खावपाक

मास आनी मासऴी
माजर गेलें हाड लेवलें
मनीश गेलो मास खेलें

माजरान म्हणलें -म्याउ म्याउ-
मनशान म्हऴें -मास मास-
कोणूय म्हणटा सूण्याचें
विशेश जशें कालाचें

मनीश आतां मनीश न्हय
माजरा सूण्या परस वायट

गंध आयलें मनशाक
सजग जालें माजराचें नांक
माजर आयले, सूणे आयलें
मनशान मात्र खायलें
माजर आयले सूणे आयलें
आयलें तशें गेलें.



## कविता आनी जीण

कविता जाली मनशाचे वांगडा
मनीश नश्वर आनी मरण पांवचो
हे जाणविकायेक दिवंची
तीच कविता
मनशाचो धर्म संतोख
जिणेचे अंतीम भय
हें निमीणान जाता

धर्म संतोखाचें आसता
हांगा प्रकाश आनी काळोख मेळून येता
जशें प्रकाशांत मदीं सांजवेळाचो काळोख
भय आनी तांत थाकून रक्षा घेवप
हेंच मरण
तें पुस्तकांतलो शब्द, वाक्य वा वाचप न्हय

कविता भुंयचें सपन
मोग नातिले जिणेचे जनाची
जाणीव घेवपाची जापसालदारकी
केन्ना केन्ना जिणेचो अणु आनी
मानसीक विकार मात्र कविता जाता
संगीत शिल्प, दरया आनी तटप्रदेश
आकाशाचें चित्र, पर्वताचें वळ, मरुभूमी
मोगा मदीं आमका शब्दांची
सहायता आवश्यक ना
हेंच महत्व कवितेंचें.



# डा. एल. सुनीता बाय

हांचो जल्म २४-५-१९४४ वर्सा जालो. हांणी बि.ए. त संस्कृत आनी भारतीय संस्कृती, एम. ए. त हिन्दी आनी संस्कृत घेवन जय पांवंतकीर  मैथिलीशरण गुप्त हांच्या काव्याचे संस्कृत स्रोत ह्या विशयाचेर शोधप्रबंध सादर करून पी, एच. डी.ची उपाधि जोडली. अणकारा विशीं हांणी सरफिकट कोर्स भी पूर्ण केलें.

आपल्या अभ्यासाचे वरवीं हांका यूजीसी जूनियर; सीनियर रिसर्च फेलोशीप, संशोधना खातीर कोंकणी - हिन्दी-मलयालम कोश तैयार करपाक केरियर एवार्ड आनी हिन्दी-कोंकणी लोकसाहित्य का तुलनात्मक अध्ययन (सांस्कृतिक पृष्ठभूमि के संदर्भ में) विशयाचेर शोध करूंक यूजीसी मेजर रिसर्च प्रोजक्ट फाव जालें. हिन्दी,कोंकणी, मलयालम भाशांच्या आनीसाहित्यांच्या तुलनात्मक सोदाच्या मळार हांणी १६ शोध विद्यार्थ्यांक मार्गदर्शन केल्यां.

डा. सुनीता बाय हांणी २५ ग्रंथ उजवाडायले. हांका २००५-२००६ वर्साचो भारतीय अनुवाद परिशदाचो डा गार्गी गुप्त द्विवागीश पुरस्कार मेळ्ळा. २०११ वर्सा अणकाराचें विशीं केंद्र साहित्य एकादमी पुरस्कार बी फाव जाला.२०१३ वर्सा कोंकणी कवितासंग्रह शंखनाद गोवा कोंकणी अकादमी का पुरस्कार फाव जाला. रंगोळी सुनीता बाय हांचे पंचवीसावें पुस्तक. हांत तांचे गहन अणभव आनी केन्ना केन्ना हास्यात्मकताय पळवोपाक मेळता.